

# श्री येशुलें गीत

रा. ना. नायक

वासंतिक प्रकाशन :
प्रकाशन क्रमांक – १०



आवृत्ती पयली | मूल्य
डिसेंबर १९८० | दोन रुपये



प्रकाशक :
वासंती नागेश सोंदे
कोंकणी कलासागर प्रा. लि,
१०, वत्सला निवास,
६५ बी, लिंकिंग रोड, सान्ताक्रुझ,
मुंबई–४०० ०५४,



मुद्रक :
विजया भार्गव देसाई
प्रिन्टास कमर्शियल प्रिन्टर्स
बसार मंझिल, ७५ सयानी रोड
मुंबई–४०० ०२५,

ग्रेशूच्या गिरिप्रवनांचो म्हजेर चड बरो प्रभाव पडलो. तें काळजाक तेंकलें, म्हजे वुध्दीक ताचें गीतेवागडा सारकेपण दिसलें. "तुजें उपरणें मागतल्यांक तूं तुजो कोटूय दिवन अुडय" "तुज्या उजव्या षोल्यार कोणूय धापट मारीत जाल्यार ताचें फुडें तुजो दावो पोलो धर" हे बाचून म्हाका अपार आनंद जालो.

गिरिप्रवचन आनी भगवद्गीता ह्यांच भितर म्हाका कायच भेद दिसलो ना. गिरिप्रवचन जे वस्तूंचें यथार्थ वर्णन करतां तीच वस्तु भगवत्गीतेन विज्ञानीक रूपान सांगल्बा. हो शब्द सामान्बपणान ज्या अर्थान वापरतात त्या अर्थांन गीता घडये विज्ञानीक ग्रंथ नासत. परंत तातूंत प्रेमधर्म, जाका हांव त्यागधर्म अशें म्हणन, ताचें विज्ञानिक रीतीन प्रतिपादन केल्लें आसा. गिरिप्रवचन ह्याच धर्माचें अद्‌भुत भाशेंत वर्णन करता. आज समजा म्हजेकडसून भगवदगीता कोणेय काडून घेतली, वा तिचे सगळे श्लोक हांव विसरून गेलों, पुण म्हजेकडेन गिरिप्रवचन अुल्लें आसत जाल्यार भगवत्गीते पासून म्हाका जितलो आनंद मेळटालो तितलोच आनंद म्हाका हे येशुगीतेपासूनय मेळूं शकत.

—महात्मा गांधी

# सुरवेची दोन उतरां

बयलेवयर पळेल्यार धडये अशें दिसूं ये कि गांधीजीनी केवळ भारतीय राज्यक्रांतीच केली. पुण खोलायेन पळेल्यार ताणी तीन जागतीक क्रांत्यांचे बियाण रुजत घालॆं आसा आनी त्यो क्रांत्यो जगांत वयर सरून रूप धरीत आसात अशें दिसताछें

ह्यो तीन जागतीक क्रांत्यो म्हळयार राजकीय, सामाजिक आनी धार्मिक.

भारतीय राज्यक्रांतीचे लागणेन, संवसारांतले अनेक परतंत्र देश आनी लोक स्वतंत्र जालेत, वसाहत वादाक मूटमाती मेळळी आनी तिसरें नवें जग वयर सल्लें.

बिज्ञान हें मनशाखातीर आसा, मनीस विज्ञाना खातीर न्हय अशें सांगून गांधीजीनीं जागतिक समाजक्रांतीचें बियाण रोयलें. विज्ञानाक शुध्द ज्ञानांचें, आत्मज्ञानाचें नियंत्रण जाय, ताचे विना मनीसजातीचो क्षय जातलो ही जाणवीक संवसारां-तल्या राष्ट्रांभितर पातळूक लागल्या अशीं चिन्नां आज दिश्टी पट्टात. आयज मेरेनच्या कुड्डया विज्ञानाक आत्मज्ञानाचे डोळे फुटूंक लागल्यात आनी नवी दिश्टी येत आसा. ही जाली दुसरी जागतीक क्रांति. ती वाट चलत आसा.

संवसारांत वेगळया वेगळया सुवातींनी, वेगळया वेगळया काळार वेगवेगळया भोवतणांत अनेक धर्म वयर सल्लें- ते

कित्याक वयर सल्लें. हाचें मर्म मनशांक ना कळिल्ल्यान धर्मांच्या खेत्रांत मनशांच्या इतस्तत: संचारक लागून धर्मच्छळ, पाखंड, जबरदस्तींची धर्मांतरां, राजकीय, आर्थिक, आनी सामाजिक स्वार्थाचेर आधारलेलीं भुलसावणेचीधर्मांतरा आनी धार्मिक स्पर्धा निर्माण जाल्यो खरे पळेल्यार जीवनातले उत्क्रांतीक लागून अदोक उंच जीव म्हळयार मनीस उत्क्रात जालो. तांच्यातलें मनीसकायेंचो विकास जावचो, ताच्यांतलीं पशूताय झडून वचची आनी अखेरीक ताका देवकळा येवची म्हणून वेगळया वेंगळया थळ काळ भोवतणांत मनशाच्या समाजांत धर्म अवतीर्ण जाले. मनीसकायेंचो विकास होच सगळयाचो एकूच एक हेतु. मागीर, स्पर्धा, छळ, मगरुरी, जबरदस्ती, भुलसाणी हांचें धर्माच्या खेत्रांत कितें काम ?

मनीसकायेच्या विकासा-उद्धाराक म्हणून वयर सरिल्ल्या सगळ्या धर्माविशीं मनशाक सारकोच आदर भाव दिसूक जाय. अशें जीव येता कि थळ काळाच्या भेदाक लागून मानीसकायेची पासां कांय कांय धर्माक अदिक अुणो उक्ताडाक आयल्वांत. वेगवेगळे मनशां–समाज जशे जशे एकठांय येतात तशे तशें ताणी सगळया धर्मांबिशीं समभाव म्हळयार सारकोच आदरांचो भाव दवरुन एकामेकांच्या धर्मतत्वांचो समन्वय केलो जाल्यार धार्मिक झगडयांक आनी भेदाभेदांक सुवात उरचिना, जे तरेंन एका कुटुंबात मनशां वेगळी वेगळी,–जाण्टी–नेण्टी, विचारी, भावनाशीळ वा नेंणत्रिकाय आसलेलीं अशी आसतात, पुण तशें आसूनय तांच्यांत प्रेमाचो एकचार नंदत तेच तरेन मनोसकाय हो प्रधान

गुण आसणाऱ्या सगळया धर्मांत प्रेमाचो कौटुंबिक एकचार आसूंक जय.

सगळया धर्मांची समानकाय ओळखून तांच्या तत्वांचो साधूंक येता थंय समन्वय साधचो हे गांधीजींनी केल्लें तिसरे क्रांतिदर्शन. संवसारांतल्या सगळया धर्मांच्या वैचारिक स्तराचेर वावुरपी धर्मनेत्याक हे क्रांतिदर्शन आज घडिल्लें आसा. ह्यापुडें म्हजो धर्म–श्रेश्ठ आणि तुजो उणों अशें वृतीन वागणारे सगळे धर्मनेते धर्मांचें मर्म आनी रहस्य तांका कळनाशिल्ल्यान ते स्वयं–परास्त म्हणार आपणाकूच हा खाल्लें जावन उरताले.

मनशाभितल्ले मनीसकायेचो विकास करून तिका देवकळा हाडप होच उत्क्रांतीचे प्रक्रियेक लागून वयर सरिल्लो मनशाचो धर्मजा हाचे उफाट्टो तो अधर्म कुडेपणात अ-धर्मांक धर्म मानून मनीस जायतेवेळां वागला तशे ताणें वागचे न्हय भाशेक सर्व धर्म समभाव ह्या क्रांतिकारी तत्वांचे संवसारान अवलंबन केल्ले आसा. ताकाच आमी घट्ट धरूक जाय.

–रा. ना. नायक.

# भगवान् श्री येशुलें गीत

अर्थात्

श्री क्रिस्त स्वाम्यान दोंगुल्ललेवयल्पान केल्लें प्रवचन

## आवेस्वर पयलो

( अनुष्टुप छंदाचे चालीर वाचप )

**संत मातेव सांगता :**

पळोवन लोकां-मेळावो तो, दोंगरार चण्ण बसलो सकयल
येशू जेन्ना, शिष्य ताचे, आयले ताचे लागीं निकट. (१

दोळे आपले लावन थीर, थंय जमिल्लया मनशांचेर
उगडून तोंड उलोंवक आपलें, शिष्यांक लागलो शिकोंवक तो. (२

## श्री येशू उलयता

“भाग्यवंत लोक ते आसती, गरीब जे आसति अंतरांत,
तांचे खातीर खऱ्यानीच, सर्गाचें राज्य वर्तता (३

रडतात तेवूय भाग्यवंत, तांका बुजवण मेळटली
विनम्र जे धन्य तेवूय, दायज तांचें ही धर्तरी (४

भुकेले तानेले सत्याक, धन्य ते लोक सत्जन,
प्रतिज्ञेन सांगतां तुमकां, धादोसकाय तेच भोगतले. (५

दयाळ जे लोक ते धन्य, देवा-दया मेळटली तांकां
मनान निर्मळ तेवूय धन्य, दिश्टी तांचे देव पडटलो. (६

थडाय करपी जगांत धन्य, देवाचे पूत ते खरे,
खऱ्यानीच तर तांचे खातीर, सर्गाचें राज्य वर्तता. (७

धन्य जे पिडणुक सोंसती, न्यायनीती खातीर जगांत
खरेच सांगतां अशांखातीर, सर्गाचें राज्य बर्तता. (८

धन्य तुमी, लोक जेन्ना, भारी तुमका निंदतले
पिडतले आनी तुमका ते, अति वायट उलयतले (९

अद्वा-तद्वा म्हजे खातीर, उतरां कोडू, फट, बास्कळ,
मानात आनंद, धरात खोस, जायात निर्भर खुशाल भरीत (१०

सर्गात तुमका भोव मोटें, फळ ताचें सुनिच्छित
तुमचे पायल्या संदेश - दिवप्यांक पिण्णुक अशीच भोगलेली (११

पिर्तुमेचें मीठ तुमी, खारसाण ताजी जाल्यार नाशी,
कशें, सांगात, रवारांव ये तें, कित्या मागीर उपकरता ते ? (१२

भायर तें उडयती लोक, पयांखाला माड्डायती
पिर्तुमेचें मीठ जरी तें, खारसाण ताची जाल्यार नाशी (१३

संवसाराचो उजवाड तुमी, काळोखांत मार्गदर्शक,
दोंगरार ' शिल्लें शार केन्ना, कशें उरता लिपून तें ? (१४

पेटोवन जोत धांपिनात ती, मापटयापोंदा खचित लोक,
दिवतणेर उंच दवरतात, दिवो पेटतो प्रकाशमान. (१५

उजवाड ताचो घरांत सगल्यांक, मेळटा थेंसून फांकारून
दिबतणेर उंच जो आसता, दिवो पेटतो प्रकाशमान. (१६

दिव्याभाशेन तेज तुमचें, लोकां मदीं जांवदी प्रगट
बरीं कामां पळोवन तुमची, तोखणायेन ते उलोंवत सदा (१७

पुर्विल्ल्यांचें धर्म-शास्त्र, अथवा तांचें तत्वदर्शन
ना करूंक येंवक ना वो हांव, आयलां पूर्णताय करूंक ताची (१८

धर्तरी वा मळब धडये, जावन वतीत वा नाशिं तीं खचित
कानो-मात्रा अक्षरांची, शास्त्रांच्या नश्ट जांवची ना. (१९

प्रतिज्ञेन सांगतां हांव, पूर्णतायेक वतलों तीं खचित
धर्मशास्त्रां पूर्विल्ल्यांचों, आनी तांचें तत्वदर्शन (२०

ल्हानांत ल्हान हांतूतलो जो, आज्ञा वा नेम मोडित,
लोकाक वा तशे करपाक, नेट दिवन जो मोडुंक शिकयत, (२१

सर्गराज्यांत जाणात ताका, गणतले अधमाधम
धर्मभ्रश्ट, पातकी तो, अशेच ताका मानतलेत. (२२

परंत जो पाळीत आज्ञा, लोकाक वा शिकयत पाळूंक
धन्य तो सर्ग-लोकांत, मान्य जातलो पुरुश उत्तम (२३

नीत तुमची, शीळ तुमचें, फारिजेव पंडितांय परस
उंच नासली, हीण जाली, आवतिकाय जर काय तांची (२४

सर्ग-राज्यांत भितर सरपाक, तुमकां केंदनाच मेळचेना,
नितीन, शिळान तुमी जाल्यार, फारिजेवां परम उणाग (२५

पुर्विल्ल्यांनी सांगिल्ले जें, आयकलांच तें जातलें तुमी,
"जिवेशीं तुमी मारूं नाकात, हत्या दण्डाक पात्र ती" (२६

न्याय-सभेंत ख्यास्त भोगचो, भय ताचो वर्तता सदां
जिवानिशीं मारपाआड. पुर्विल्ले सांगती ते देखून (२७

हांव तुमकां वयल्यान सांगतां, भावाचेर राग अ-कारण
करी जो, पात्र तो दण्डाक, न्यायाच्या, वर्तता खरो (२८

वुद्ध-हीणो बेलको तूं अशेय, भावाक जो आपल्या म्हणत;
न्याय-समेंत ताकाय दण्ड, जावपाचो भय उरतलो (२९

' मूर्ख तूं ' अशेंय कोण, भावाक आपल्या म्हणत जर,
उज्याच्या पट्टलो नरकांत, ख्यास्त ताका ही मेळटली. (३०

हाडशी जरी दान आपलें, देवा ओंपूक वेदिचेर
आनी स्मरशी खिणाक त्याच, भावाक केंल्लें वायट जें (३१

दान तुजें थंयच दवरून, वच तूं भावालागीं तुज्या,
इश्ट ताचो जावन पर्थून, मागीर यो दान ओंपच्याक (३२

वाद्या वांगडा तुज्या एकचार, कर तूं मार्गांत चलताना
नाल्यार तुका तो करित स्वाधिन; न्यायाच्या मुखेल्या म्हऱ्यांत (३३

मुखेलीवूय मागीर दीत, दण्ड-धाऱ्या हातांत तुका;
दण्डधारी तुका उप्रांत, बंदखणीच्या उडयत कुडांत (३४

खरेंपणान तुका सांगतां, सरप ना भायर तांतुतल्यायन
दमडेन दमडी फारीग जायसर, दण्डाची तुं तुज्या भरून. (३५

तुमी हेवूय आयकलांत, पुर्विल्ल्यांनी उलयलेलें
करूं नाकात तुमी केन्ना, परदार अति वायट ते. (३६

परंत सांगतां हांव तुमकां, कामी नद्रेन जो पळै
परके बायलेकडे दादलो, शिनळकाय धडली मनांत ताज्या. (३७

उजवो दोळो तुजो जर काय, गुन्यावी करि कृत्य तो
खिणा त्याच कोंचून ताका, उडय तू पयस सत्वरी (३८

हितकरपी ताचो नाश, आदिक तुका जातलो तो,
गात्रां सगळीं तुजीं नरकांत, कुडीसैत तीं पडचें परस. (३९

उजवो हात तुजो जर काय, कृत्य पापी करी तर
तोडून खिणा त्याच ताका, उडय पयस तू तुजे पासून (४०

हितकरपी ताजो नाश' अदिक तूका जातलो तो
गात्रां सगळी तुजी नर्कात, कुडीसैत तीं पडचे परस. (४१

पूर्विल्ल्यांनी म्हळळें आसा, बायलेक जो सोडि दादलो,
सोड चीट तिका ताणें बरोवन ती दिवक जाय, अशें (४२

परंत सांगतां तुमकां हांव, बायलेक जो सोडि आपले
विनापराध, तिका, जाणात, करूंक लायता शिनळकाय तो (४३

सोडलेले बायले वांगडा काजार (लग्न) जाता तोवूय पुरुश
शिनळकायेक दिवन आस्नय, आपुणूय जाता शिनळ पुरुश. (४४

पुर्विल्ल्यांनी म्हणिलेलें, आनीकूय तुमी अयकलांत
“सोपूत दिल्लो तुमी केन्नाच मोडून फट तो करनाकात, (४५

देवा फुडे प्रतिज्ञा ज्यो, तूमी करतात मनोभावान
प्रतिज्ञा त्यो सर्व तुमच्यो, कर्न खऱ्यो दाखयात तुमी” (४६

परंत सांगता हांव तुमकां, सोपुत केन्नाच घेंव नाकात,
सर्गाचो घेंव नाकात सोपुत, सर्ग प्रभुचें शिंवासन. (४७

धर्तरेचोय घेंव नाकात, धर्ती ताचें पांयासन,
येरुशालेमाचोय नाका, राजाली नगरी ती व्हड (४८

माथ्याचोय बी सोपुत नाका, केस ताचो धवो-काळो
करूंक ना रे तुमक तांक' मागीर सत्ता ताचेर कशी ? (४९

हय वा न्हय इतलेंच तुमचें, उलवणें आसुचें निगूत
ताचेय परस आदिक जें जें, उलवणें पापकारि तें (५०

पुर्विल्ल्यांनी सांगिल्लें जें, आयकलां तुमी निच्छित,
'दोळयाक दोळो, दांताक दांत'–वैराची मेर ही अशी. (५१

परंत तुमकां म्हजी सांगणी, 'वायटाक तुमी आडांवच नाकात.
माल्लें उजव्या पोल्यार कोणेंय, दावो थापटाक फुडें करात (५२

न्यायालयांत तुमचेर कोणेंय, फिर्याद केली आसत जरी,
मागत तुमचें उपरणें तो, चोळीय ताका दियात काडून. (५३

वेठीक धरून कोस एक तुमकां जर कांय कोणूय व्हरत,
वांगडा ताचे कोस दोन, वचपा तुमी अणमणूं नाकात. (५४

मागल्यार कोणेंय कितेंय दिवचें, उदार हातान मागतल्याक
कर्ज वा मागत कोणूय, दिवंक तें अणमणूं नाकात. (५५

तुमी हें आयकलां जातलें, पुर्विल्ल्यांनी सांगिल्लें जें
शेजाऱ्याचेर धरीं मोग, वैऱ्याचो करीं द्वेस तूं (५६

परंत सांगणें म्हजें तुमकां, वैऱ्याचोय मोग करात तुमी'
छळ तुमचो करति जे तांकाय, बरें मागात तुमी मनांत (५७

बरें त चें करात तुमी, द्वेंस तुमचो करति ते जरी
पराथा देवा तांचे खातीर, हीण तुमकां लेखति ते, तरी. (५८

सर्गांतल्या देवबापायले, पूत जायात अशे भाशेन,
सूर्य ताचो उदेता जो पापी–निष्पाप दोगांयचेरूय. (५९

तसोच पावसूय पट्टा जाचो, सगळयांचेर सारको वर्सून,
धर्मी जांव अधर्मी जांव, भेदा-भेद करिनासताना. (६०

मोग तुमचो करतात जे कोण, मोग तांचेर तुमी केलो,
हांतुंत कसली विशेशताय, लाव कसलो कोणाक कितलो? (६१

कर घेवपी अधिकारी, चलतात तेवूय अशेच भाशेन,
भावांबंदांक प्रणाम करतात, नवल तांचें कसलें तें? (६२

परराष्ट्रीय लोकूय अशेच, सोयऱ्या - धायऱ्यांशी वर्ततात,
नवल अथवा विशेशताय, ना हांतन कोणाक कसली. (६३

देखून म्हजी तुमकां सांगणी, पूर्ण जायात ताचे भाशेन
बसता जो सर्ग लोकांत, देवबाप्पा आमचो सगळयांचो (६४



भावेस्वर दुसरो

# श्री येशूलें उलोवप फुडे चलता :

दियात ध्यान सांगतां ताचेर, दानां करनाकात लोकां मुखार
लोकांनी ती पळोंवची म्हण्ण, निर्फळ जाताली केल्यार तशें. (१

सर्गात वसपी बापालागीं, दानाक असल्या ना रे फळ,
दानां जीं केल्लीं आसतात, बडवाचार आपलो वाडोंवक. (२

दान जेन्ना तुमी करतात, करू नाकात दंभिकांभाशेन,
सभालयांत मंदिराच्या,मार्गांत वा शिग तें फुंकून. (३

सांगतां तुमकां खऱ्यानीच हांव, कर्माचें फळ पावति ते तशें,
जशें कर्म तशेंच फळ तें, संवसार-नेम हो सनातन. (४

परंत तुमी जेन्ना करशात दाना, करात तीं अशे तरेन,
उजवो हात दिता जें जें, दाव्याक केन्ना कळूं नांये. (५

गुप्तपणान जाल्यार दान, अंतर–साक्षी बापूय जो देव,
फळ त्या दान–कर्माचें उक्तेपणान दितलो तो तुमकां. (६

देवाक जेन्ना पराथतात तुमी, जांव नाकात दांभिकां भाशेन
धर्मालयात वा चंवाठयार, करतात जे पराथना ताची. (७

लोकांनी आपणां पळोंवचें ही, भावना आसता पराथतना
सांगतां तुमका खऱ्यानीच हांव कर्माचें फळ पावति ते तशे (८

परार्थनेक तूं लागशी जेन्ना, बस तूं आपले कुडी भितर,
दार लावन त्या अंतरवासी, देवबापाची कर प्रार्थना. (९

रावून आमच्या अंतरांत जो, पळेता थंय घट्टा जें कितें
अंतर-साक्षी असो बापूय, फळ अुक्तें दितलो तो तुका. (१०

परार्थनेंत तू तींच, तींच उतरां अर्थहीन उलोंव नाका,
भोव-उत्री परार्थना देव, आयकतलो हो समज वृथा (११

हीण-मार्गी लोक जें मानती, तुमीय तेंच मानल्यार कशें?
उतरां निखटीं आयकना देव, भाव तांच्यांत नासलो तो जर (१२

भावहीण तुमी नासचे; गरजो तुमच्यो ज्यो ज्यो आसात,
बापूय तुमचो पयलींच जाणा, मागप तें करचें लागना: (१३

देखून परार्थात तुमी देवाक, सांगतां हांव जे तरेन आतां.
"सर्गींत रावपी बापाय आमच्या, तुजें नांव मांनूं पवित्र, (१४

येंवदी आमचेर तुजें राज्य, इत्सेपरी तुजे घडूं,
सर्गात, तशेंच धर्तरेरूय, जांवदी इत्सेक धरून तुजे (१५

नित्याचे अन्न जे आमचें, दी गा आज प्रभु, आमकां,
रीण आमचें देवा भगशी, दुतऱ्यांक आमी भगमितांव जशें, (१६

मोहांत आमकां घालून देवा, कसून अमकां पळोंव नाका,
परंत सोडय पापांतल्यान गा, धनया देवा, दासांक तुज्या. (१७

तुजें राज्य, तुजी सत्या, तुजें वैंभव सासणाचें,
संचसारभर वर्तता देखून, म्हण्टांव आमी गा "आमेन". (१८

दुसऱ्यांचो जो गुन्यांव भगशी, भगशी ताचेय तशेंच प्रभु,
सर्गांत रावपी बापूय आमची, दयी न्यायीं खरोच आसा, (१९

परंत जर तूं भगशीनाशी, पराची गुनो वाऽपराध,
तुजो बापूय तुजो भगशीत, अशें केन्ना कशें घडत ? (२०

उपास तुमी करतात जेन्ना, सांगतां तुमकां फुडे आनीक,
करूं नाकात तोंड वायट, दंभी लोक करतात तशें (२१

विरुपायती ते तोंडाक आपल्या, लोकां दाखोवक कृती निज
खरेंच सांगतां हांव तुमकां, करणे–फळ पावतालेंच ते. (२२

करशी जेन्ना उपास तू बा, तेल तू घाल माथ्याक तुज्या
नी धूय तुजें तोंड तूं गा, निर्मळ, बरें करून तें, (२३

लोकाक न्हय, तर तुज्या बापावक दिसूं दी रे उपास तुजो
अंतरज्ञानी बापूय तुजो फळ दितलो कृतिचें तुज्या, (२४

सांटांव नाकात दुडु दौलत, धर्तरेर ह्या आपले खातीर,
द्रव्याक त्या किडे कीट, वश्ट करतोत खावन, चडून, (२५

चोर अथबा चोरून व्हरतीत फोडून वा धर, ते तुजें
द्रव्य तांतलें हे तरेन तें, ना जांवक पावतलें अचित, (२६

सांटयात द्रव्य तुमी सर्गांत तुमचे खातीर तशा जाग्यार
जंय किडे कीट ना खाती, द्रव्य तुमी सांटायलेलें. (२७

चोर वा ते न चोरती जय, ना फोडती ते घर तुमगेले,
द्रव्याक ना थय हे तरेन नास, केन्नाच तुमच्या जाणात तुमी (२८

धन उरता सुबातेर जे मनशा-चित्तूय धंयच उरप,
जाणात हो नेम चित्ताचो, अणभवा येता सदांच तो, (२९

दोळो दिवो कुडीचो हे, देखून निर्मळ आसलो जर तो,
करीत तो धेयाक सगळ्या, तेजस्पुंज उजवाडमय. (३०

परंत दोळो तुजो मलीन, जालो जाल्यार शरीर तुजें
काळोखात गुपाटून तें, उरतलें जावन काति–हीण, (३१

उजवाड तुजे भितल्लो जर, जालो काळोख भिण्ण तो
मोटो ताचेपरस कालोख, आनीक कसलोच नारे तो. (३२

चाखरी दोगां धनयाची कोण, करूं शकती अशें घडना
एकाचो वा करून द्वेस, दुसऱ्याचेर प्रीत करतलो (३३

एकाचो वा करून आस्रय, दुसऱ्याक तो कुस्कुटायतलो,
सेवा ताच्यान जांवचि ना ती, प्रभुची नी गिरस्ताचीय, (३४

देकून सांगतां तुमकां हांव करूं नाकात चिंता तुमी
जगवपाक जिवाक आपल्या कितें खांय वा पियेंव कितें (३५

करूं नाकात तुमी चिंता, आंगार घेंवच्या पांगरुणाची
अन्न वस्त्रा परस मोटें, जीव, देह, तुमचे खचित, (३६

पळेयात हीं सवणीं मळवांत करीनात तीं रोपणी-लुपणी,
सांटायनात तीं कुडांत धान्य, तरीय खांवच्या नुणें तांकां (३७

सर्गात रावपी बापूय तुमचो, पोसता दिबन खांवच्या तांकां
तांचेय परस तुमी श्रेष्ठ, आसून तुमकां धिस्पटायत तो? (३८

चिंता काडून कुडीची हे, वाडोवयेत ती वोटूय भर?
आसा तुमचे भितर कोणाक सामर्थ्य असलें सांगात म्हाका (३९

वस्त्र-प्रावर्णाची चिंता, व्यर्थ तुमी काडटात कित्याक ?
शेतांत पळेयात फुलां वाडटात, पळेयात दिव्य नवलाय तांची (४०

करीनात तीं कश्ट वाडूक, वस्त्राखातीर कांतिनात सुत,
तरी पुणून रंगान रुपान, वाड तांची कितली सोबित ! (४१

आयकात तुमकां सांगतां जें हांव, एकल्याथ हांतल्या फुला भाशेन
सुलमांव राजा सजूंक नासलो, वैभव ताचें व्हडूय आसून ! (४२

आसा आजय परंत फाल्यां उज्यांत पडपी शेता-तण
न्हेसय ताका सुंदर, देव, वस्त्राळंकार अशे जर (४३

दिंवचो ना तो न्हेसुंक तुमकां, आदिक सुंदर ताचेय परस ?
वळग्यान संपूर्ण भरिल्लो तो, तुमी मात श्रद्धेन उणे ! (४४

कितें खाव वा पियेच किते, पांगरू आंग कित्यान म्हजें,
चिंता असली नाका व्यर्थ सांबाळ करपी देव आसताना (४५

वस्ती ह्योच मेळोवक झटतात, हीणमार्गी लोक परदेशी,
पुण सर्गांत रावपी बापूय तुमचो, गरजो तुमच्यो जाणा पुराय (४६

आदीं परंत देवा–राज्य, सोदात तुमी करून यतन्
समदर्शी न्याय ताचो, मेळोलावन थापात अति बरो. (४७

केल्यार हें तरेन योग्य, तेवूय वस्ती मेळटीत तुमकां
अदिकतायेन विपुलतायेन, देव दितलो तो पळोवन गरज (४८

देखून चिंता काडूं नाकात, येवक नाशिल्लया दिसाची त्या फाल्यां चिंता काडुं फालें, आयजचें दूःख आयज पुरो. (४९



आवेस्वर तिसरो

# श्री येसू फूडें उपदेसता :

न्याय कोणालो कर्नांका न्वाय तुजो जावचोना मागीर
कसाक तूं लावनाका कोणा, तूंय वी कसतलो ना'ल्यार, (१

जे तरेन तूं कसशी अन्याक, कसतलो तूंय तेच तरेन,
माप जें तूं लायशी दुसऱ्याक मापतलो तूंय त्याच मापान, (२

कुसळ भावाल्या दोळ्यातलें तूं, पळै जो अति बारकावेंन,
दोळयात तुज्या मुसळ उरता, तुका ते दिसता कि तें ? (३

काट्टां हाव तें कुस्पट तुज्या, दोळयातलें रे भावा म्हज्या'
कशे म्हणशी ताका तूं हें वासो दोळवात तुज्याऽसतना ? (४

आदीं उडय काडून भायर, ढवंग्या, वासो, तुज्यातलो
मागीर भावा-दोळ्यातलें तें कुस्पट काडपाक सर फुडें. (५

दिसतलें तें निवळ तेन्ना, नदर जातर तुजी निवळ,
कुस्पट भावा-दोळयातलें तें, काडप सोपें जातले मागीर. (६

उडोंव नाकात पवित्र जें जे सुण्याफुडयात बाबा तुमी,
घोतया तुमची धुकरां-मुखार खांवच्याक तुमी घालूं नाकात, (७

माड्डावन पाया पोन्दा तांकां, पधूंन येतीत आंगार धुकरां
देखून तुमची मोतयां, तुमी धुकरां फुढयांत उडोंव नाकात. (८

मागात म्हण्टर मेळटलें तुमका, सोदात म्हण्टर गावतलें तें,
थापटात म्हण्टर दार तुमका, दिसतलें तें उगडलेलें (९

मागता जो कोण ताका मेळ्टा, सोदता ताकाच गावता तें,
थापट दारार मारता ताकाच, दार जाता उक्तें सदा (१०

आसा तुमच्यात असो कोण कि पुताक आपल्या दितो गुंडो,
मागल्यार ताणें खावच्याक उंडो? कोणूच असले करीत बापूय (११

आसा तुमच्यात असो कोण कि, पुतान ता' कडेन, मागल्वार मासो
दिता ताका सोरोप खावच्याक, अळशिकावणो विखाळ जो (१२

नश्टे तुमी आसूनय मनीस, भुरग्यांक आपल्या बऱ्यो वस्ती,
दिंवच्यो कशो बरें जाणात, गिन्वान हाचें तुमकां जर, (१३

सर्गांत रावपी बापाय लागा, मागतात जे कोण कितेंय तरी
ताका तो दिंवचोना कि, बस्ती सुदर ताचेय परस ? (१४

लोकानी जें जें करुंक फावो, दिसता तुमका तुमचे विशीं,
करात तें तें तुमी त का, वर्तात तशेच ताचेयकडेन (१५

शास्त्रां, ग्रंथ वा धमनेम द्रष्टयाचे सांगाति बोध होच–
दुसऱ्यान जे जे तुमका करचें, तुमीय तें तें करात ताका, (१६

सरात भितर अरुंद दारान, रुंददारान गेल्यार नास
नासा–माराग आसा रुंद वचपीय वयल्यान ताचे आदीक (१७

जिणे कडेन वच्चें दार मार्ग वा अति सांकडो
मेळचें भाग्य आसन जाचें अशे लोक भोव थोडे ! (१८

नखऱ्या द्रश्टया विशीं सावध जावन तूं राव सर्वदा.
मेंढरावेशान येतात जरि ते. कोल्सुणीं क्रूर खरींच ते ! (१९

फळावयल्यान वळखात ताका येता ताका जे ते तुमकां भुलोवक
काटया झाडार दाको लागनात सराटयाक वा धर्नीत अंजीर! (२०

बरे फळ दी बरो रूख, वायटाक वायट तीं फळां
निजाचो नेम हो जाणात फट केन्नाच जावचोना. (२१

बऱ्या झाडाक फळां वायट : वायटाक वा तीं बरीं फळां
शक्य ना हें घडप केन्ना नेमाक बादा ना त्या खरीच (२२

फळ ना दी बरें जें तोडून उज्यांत घालती ताका,
देखून तुमी ताका वळखात, फळावयल्यान जाच्या ताच्या. (२३

' स्वाम्या, ' स्वाम्या ' म्हणून म्हाका उलो करती भक्त जे म्हजे
सर्ग राज्यांत रिगाव ताचो सगळयांलोच जायतशें मानू नाकात (२४

सर्गींत रावपी बापूय म्हजो इत्सा ताचो पाळती जे हागा
ताकाच मेळप रीग सर्गांत हेराक थंय बंदी आसतली. (२५

त्या दिसा म्हण्टलेत जायते " धनया धनया तुज्या नावान.
दिलो आमी संदेश लोकाक, धांवडायली जापती वा भुतां (२६

केलोनात गा तुज्या नावान चमत्कृत्यां कितलीं तरी ?
सर्ग राज्यात रिगाव आमका कित्याक नासचो तर मागीर ? (२७

तेन्ना हांव ताका सांगीन उत्रा उक्ती अशीं वदून
" तुमची म्हजी वळख खैंची दुराचारी मनशाजी तुमी "? (२८

" सरात पयस म्हन्यातल्यान ' म्हजें तुमचे नातें काय ना,
अधर्म तुमी करतल्यानू हुवाळून वचात म्हजे सर्शिल्यान ! " (२९

देखून सांगता तुमकां हांव, वर्तता जो सांगणे भशेन
म्हजे. तो थारतलो शाणो, खडपार जाणे घर बादलां (३०

पावस मागीर पडलो जावतो हूंवर आयले वारूय सुटलो ;
धरा लागलो, पडलें ना तें खडपावयली वुन्याद म्हणून (३१

आयकून म्हजी सागणी ही जो चलना म्हजे सागणे भशेन.
पिसो तो धर जो बांदी रेंवेर ताचो बुनयाद धालून (३२

पावस पडलो हुंवर आयलें वारोय व्हावलेंलों धराक लागलो.
अचानक तें कोसळून पडलें धर ताचें रेवेवंयले !" (३३

## संत मातेव सांगता :

अशे तरेन येशून जेन्ना उलोवप आपलें हाडलें सींपयत
जमलेलो लोक आयकून ती, शिकवण ताची जालो अजाप ! (३४

कित्याक, तो शिकयतालो, अधिकार अशिल्ल्या गुरूवरी,
शिकायनासलो प्रज्ञा–हीण्या, शब्द–शास्त्री फारिजेवांपरी ! (३५

आवेस्बर तिसरो हांगा सोंपलो,
ॐ तत्सत् इति श्री बिब्ल ग्रंथांतर्गत संत मातेवाच्या
वांजेलांतली श्रीयेशू गीता.

